# काव्योद्यान

## केरळ भुंयचेर फुल्लेल्ली कोंकणी कविता

संकलन आनी संपादन

शरतचंद्र शेणै

1999

(Konkani)

**KAVYODYAN**

Garden of poems

Compiled, Edited and
Published by
**SARATCHANDRA SHENOI**
Gokul, 18/535-A
Cochin-682 006


First Edition-1999


Typesetting and printing by
S.K. Enterprises, Kalabhavan Road,
Ernakulam-682 018.



Price : Rs. 36

# काव्यसमन्वय

ह्या वीसाव्या शतकांत कोंकणी कवितेक केरळकार कवींचें अंशदान कितें कसलें हाचें एक स्वरूप ह्या ल्हानशा संग्रहांत मेळतलें. कविता, कविपरिचय आनी चित्र हें सगलें, कवींच्या जन्मतारखांच्या अनुक्रमान दिलां.

कोणाली कविता बरी, आनी कोणाली चड बरी, असल्याचो कसलोय सोद घेना. उद्यानाक दर फुलाची गरज आसता; दर झाडाची गरज आसता. दर फुलाक, दर झाडाक ताचें ताचें खाशेलेपणूय आसता. हें न्ह्यकारूक शकतलो कोण ? देखून, तश्या त्या खाशेलेपणांचेर आतां ध्यान दिल्लें बरें. हे खातीर एक दूसरो अनुक्रम उपकारायला. दर कवीन, कवि म्हूण आपली वळख दिल्ल्या कालाचो हे अनुक्रम.

'विसरलों' ही मंजेश्वर गोविन्द पै हांची चतुष्पदिका 1924 वर्सा 'सारस्वत बोधिनी' नावांच्या म्ह्यनाळ्याचेर आयलेली. कविते खालाक शब्दार्थ आनी इंग्लीषीन परिभाषाय आसा. कवीन हांतूं सोणिटाचें रूप आनी भाव भोवच आपलेपणान उपकारायलां. म्ह्यनाळ्याच्या त्या अंकांत हाचे वांगडा तांच्यो चार वेगळ्योय कृति दिल्यात-राग ताळांची नोंद सयत. तांतूंली एक 'वैष्णवु''-ही, विख्यात 'वैष्णवजन' हे गुजराती कवितेची सुंदर परिभाषा. पुण त्या कालाच्या जनांक तांच्या कवितांची रुची लागलीना देखून जायत, कवि गोविन्द पैन ते मुकार कोंकणीन कविता बरयली ना ! ते निमित्तीं कोंकणीक केद्दें व्हडलें लुकसान जाल्यां, हाचो अदमास लेगीत म्हज्यान घेवंयेना ! 'विसरलों' ही एक छंदबद्ध कविता. रचना वैभव दाखोवपी भावात्मक कविता. राष्ट्रकवीचे लिखणेची चमत्कारी ताकद हांतूं उठून दिसता.

1926 वर्सा 'कुचेलोपाख्यान' हरिकथा मलयाळम भाशेन रचून अवतरण केल्ले नंतर नारायण नरसिंह पैन ती कोंकणीनय रचली-तेच वर्सा. दोनीय भाशांनी सुमार हरिकथा तांणी रचल्यो आनी अवतरण केल्यो. एक कथा इंग्लीषीन लेगीत तांणी बरोवन अवतरण करून यश जोडलें ! तांगेलें वर्णन-चित्रण भोवच यथा-तथ आनी मार्मीक. 1929 वर्सा जी. कमलम्माळाल्या 'रघुरामायण' महाकाव्याचें बालकाण्ड उजवाडाक आयलें. (पूर्ण रूपान ताची उजवाडावणी जाता पन्नास वर्स उपरांतेंच !) केरळांत प्रचार आशिल्या 'वेंकटेश कल्याण' काव्याच्या छंदान हाची रचना. बायलांनी आयकून हदिस्त करून गावंका ह्या हावेसान सादीं सोपीं उतरां आनी शैली वापरल्या. 1930 वर्सा आर. सी. शर्मालो 'भाषागानमंजरी' भायर सरलो. रागांच्या आनी ताळांच्या आधारार रचिल्ले पंचवीस अतिसुंदर भक्तिगींत तांतूं अशिल्ले. उणेच वेळान ते भोवच लोकप्रिय

थारले. तांगेलें कवित्व दाखोवपी असलें एक गीत हांगा दिलां. एक पावट लेगीत आयकल्यार उगडासाचेर उरता इतलें गोड म्होवाळ हें गीत.

आर.सी. शर्माल्या भक्ति गीतांक लागून आसत, फुडल्या वर्सांनी भजनस्तुतींचो, नामसंकीर्तनांचो एक हुंवारूच उठलो! पुण तसल्या भजनांचो हांगा आस्पाव केलोना. तांचोच म्हूण बरोच एक झेलो करप शक्य आसा! मुखार कोणाचेय हातान तो तयार जावन येतलो अशी आशेतां.

कोचीच्या 'कोंकण जनता' म्ह्यनाळ्याच्या सुरवेच्या वर्सांनी-म्हळ्यार, सत्तरेच्या दसकांत-केरळांतल्या कोंकणी साहित्याचें 'रिनेयसँस' जाल्लें दिसून येता! ह्या दसकांत उदेल्ले कवि ते हे-आर. गोपाल प्रभु, सग्री दिनेश नायक, खुद्द हांव, सुमित्रन, के.एन. रमेश भट, एन.वी. प्रभु, पी.एस. प्रदीप, के. अनंत भट, वी.शेट बलराज, बी. नवीनकुमार भक्ता, बी. प्रदीपकुमार भक्ता, आनी एन. पुरुषोत्तम मल्या.

नेमाळ्याचेर ल्हान व्हड कविता बरोवन जावन मागीर आर. गोपालप्रभून एक आगळेंच काव्यपुस्तक उजवाडायलें-'कल्याण सौगंधिक'. केरळाच्या 'ओट्टन तुळ्ळल' नाट्यगीताचे शैलीन, महाभारतांतूले एके घडणुकेचेर आधारून ते काव्याची रचना. रंगवेदीचेर प्रस्तुत जालें जाल्यार भोवच हृद्य तसलें तें काव्य. रसिकांक ताची विशेष रुची मेळची म्हणून ताचो एक वांटो हांगा दिला.

कॉळेजांत शिकतना सग्रि दिनेश नायकाक हिन्दी कवितेखातीर प्रथम पुरस्कार मेळ्ळोलो. मागीर सुमार नेमाळ्यांखातीर खूब कविता बरयल्यो. हांगा दिल्या 'सुख दुःख' हे कवितेंत कवीलें जीवित वीक्षण कडोवन आटोवन दवरल्यां.

फाटल्या पंचवीस वर्सांनी चालू दवरिल्या म्हज्या बरोवपाचें (वाचनाचेंय) फलस्वरूप म्हूण आतां हें काव्यसमन्वय तुमच्या मुखार पावयलां. हांतूं जी म्हजी कविता दिल्या ती म्हजें स्वत्व दाखोवपी (ज्यांतल्यान माका मेकळेपण ना-) म्हज्यांतल्या कवीक जाल्लो म्हज्यांतल्या मनशाचो हो दिष्टावो-अशीय सांगूयात!

'सुमित्रन' ह्या लिखणे-नांवान वी. वेंकटेशान खूब कथा, कविता बरयल्यात. तागेलो अणभव संवसार व्हड. पुण कृति सगल्योय भोवच ल्हान! सांगूक आठयल्यापरस, बरोवंक येवजिल्यापरस, एक लेगीत उतर चड वापरूंक ना अश्यो तांच्यो कृति. के.एन. रमेश भटाले 'वत्तना व्हरताय कस्सलें सांगा'-हे कवितेंत बरोच उपदेश आनी तत्वचिंता भरून आसा. एन.वी. प्रभूले

'उजो, वारें, उदाक' हे कवितेंत तांचे भितरलो मास्तर बरोच दिसता. तिची योग्य सुवात एक टेक्स्ट बुकार! पी.एस. प्रदीपाले 'उपाधी' हे कवितेंत समकालीनता सामकीच उठून दिसता. आधुनिक मनशाच्या वास्तवीक चित्रणांतल्यान कवि ताजी टिकाय परोक्षरूपान करता.

के. अनंत भट निष्ठेन आनी सातत्यान बरोवपी. तांगेलीं खूब गीतां छापूनूय कॅसटींच्या रूपानूय आयल्यांत. आकाशवाणीवेल्यानूय तांच्यो कृति सदांच आयकूक मेळतात. तांचीं सगलींय कवनां छंद आनी प्रास हांच्यांनी सजयल्लीं. 'कर्माचें फल' हे कवितेंत तांचे काव्यप्रतिभे वरवीं तांचे सद्‌विचारय थळथळेतात. कवि, संगीतकार, गायक अशी वी. शेट बलराज हांची वळख दिवंयेता. 'म्हांतारी आज्जी' ह्या तांच्या काव्य संग्रहांत भक्ति आनी भावगीतां आस्पावयल्यांत. तांतूल्यान घेतिल्ले 'हासता की हासयता' हे कवितेंत भावय आसा, आनी भक्तीय लिपून बेसल्या!

बी. नवीनकुमार भक्ता आनी बी. प्रदीपकुमार भक्ता, हे भाभाव. हांगा दिल्ले नवीनकुमाराले 'बायलेलें पत्र' कवितेंत मोग आनी विरहदुःख चितारलां जाल्यार, प्रदीपकुमाराल्या कवितांनी समाजीक वायटपणाची खर टिका बसयल्या. चळवळीकार म्हूण कीर्ति पाविल्या एन. पुरुषोत्तम मल्या हांणी वर्णना- प्रधान, म्हयतीपूर्ण कविता आनी श्लोकशतकां रचल्यांत. 'गोविन्द पै शतकम' हांतूल्यान हांगा आस्पावयल्या श्लोकांनी राष्ट्रकविचें उजळ स्वरूप उदेता.

अंयश्याच्या दसकांत फुडें सरिल्ले कवि ते हे- के. नारायण नायक, विलासिनी. एन. नायक, वत्सला मंजुनाथ राव, पी.एन. शिवानन्द शेणै, भक्ता आर. काञंगाड, वी. सुरेश शेणै, आर. एस. भास्कर, आर.के. प्रकाश, पी.जी. कामत, यू. एस. नारायण कामत, एम.जी. राजीव, एन.एन. आनन्दन, काञ्चना बोस, आनी के. श्रीधर शेणै.

'शारदास दीनदास' ह्या लिखणे नावान खूब लेखनां बरोवन जावन मागीरीच के. नारायण नायकान कविता हताळ्ळेली. वेगवेगळ्या रूपांच्यो आनी भावांच्यो कविता तांचे समर्थ लिखणेचेर जन्मल्यो. तांतूल्यो मेजक्योच चारोळ्यो हांगा दिल्यात. 'जीब न्ह्य, जीवन उलयता'- विलासिनी एन. नायक हांगेली ही कविता उजू मूल्यांक तोखेवपी-तांचो पुरस्कार करपी. वत्सला मंजुनाथ रावांचे तीन कवितासंग्रह आसात. दिसपडत्या जीवितांतल्या घडितांक अतिसुंदर काव्यरूप दिवपी चमत्कारी लिखणी तांची. साहित्यिक उतरावळेचो खेळ-गोंदोळ ना; पोकळ अळंकारांचो शिंगारूय ना. दर वाचप्याक काव्यरसिक करपी तांची प्रतिभा 'प्रायश्चित' कवितेंतूय स्पश्ट दिसता.

पी. एन. शिवानन्द शेणैली कविता नवे शैलीची; नवे विचारांची. पळयल्यार वैयक्तिक अश्यो दिसपी तांच्यो कविता समाजाचे फाटभुंयेचेर, जनमानसाचे बुनियादीचेर उबी केल्यो आसात. हांगा दिल्ली तांची 'बायल' ही कविता तश्यांतलीच एक. भक्ता आर. काञंगाड-म्हळ्यार बी.के. रामचंद्र भक्ता-आपण्याक सांगपाक आशिल्लें तें उक्त्याच उतरांनी सांगपी. 'सैतान मरनी' ही तांची कविता तांचे लिखणेचे ताकदीची गवाय दिता. वी. सुरेष शेणैले 'भिकारी' हे कवितेंत आयच्या समाजांतलें कापट्य आनी भोळेपण एकाच वेळार पळोवंक मेळता. आर.के. प्रकाशाली 'केद्दाणा' ही कविता कांय प्रश्नांच्या आनी तांच्या जापांच्या आधारान बर्या-कूड्याची बरीच वळख दिता.

आर.एस. भास्कराल्या कवितांनी ह्यकारी भावना आनी विचार आसतात; सैमाचीं जिती जिवीं चित्रां मेळतात; समकालीन घडणुकेंचे परामर्श आसतात. 'ती हासली' ही तांची कविता आयच्या विखाळ संवसारांत शांती-नादाची प्रतीक्षा करपी. 'ओळख' ही विख्यात कविता रचिल्ले पी.जी. कामत हांची वळख काव्यरसिकांक आसतलीच! तांचे लिखणेचें कसब हांगा दिल्ले 'लगन' हे कवितेंतूय दिसता. भोवच सहजतायेचे, सोप्या सडसडीत उतरांचे हे कवितेंत उमेद आनी तरनेपण भरून आसा.

यू.एस. नारायण कामतीली कविता 'कालवर्ष' आमकां दर्यादेगेर घेवन वता. खारवी लोकांच्या जीवितांतलो एक दीस कवीन हांतूं रेखाटला. एम.जी. राजीवालो 'नायन्टीटूवांतलो लॅवर' आमकां शारांत पावंयता. एका निश्पाप मनशाल्या निरर्थ मोगाची विपश्ट कवि चितारता. एन.एन. आनन्दनाल्यो कविता सरळ निवळ उतरांच्यो; सौम्य-स्पश्ट भावनांच्यो. तांचे 'कोंकणी विजयम' हे कवितेंत कोंकणीचें दशापरिवर्तन पळोवंक मेळता.

काञ्चना बोस 'चेरडालें मन' चितारता तेन्ना, तिचे उतरांनी एके आवयचेंय मन आमकां पळोवंक मेळता. के. श्रीधर शेणैली कविता 'पिशें', हासयतच ह्ळूच चिमटो काडपी.

शतकाच्या ह्या निमण्या दसकांत कवितेचे वेदीचेर आयिल्ले कवि ते हे- कलाकांत, पी.एस. रामचंद्र शेणै, गोश्रीपुरम हरिकुमार, के.के. सुब्रह्मण्यन आनी सूर्या अशोक.

'कलाकांत' ह्या लिखणे-नांवान बरोवपी पी. कृष्णकुमाराले 'वृक्ष आनी मनीष' हे कवितेंत रूखां-मनशांलें नातें चितारलां. मनशान

कोणाचीय देख घेवंची जाल्यार त्यागी वृत्तीच्या त्या रूखांचीच घेवंची अशें ताचें म्हण्णें. पी.एस. रामचंद्र शेणै 'पुष्पांजली' ओंपता सर्वेश्वराकच. ती एक काव्यांजलीय जावन आसा. प्रास-छंद युक्त तांची कविता सौम्य तशीच सुंदर. 'गोश्रीपुरम हरिकुमार' हें एस. चित्तरंजन नायकालें लिखणे-नांव. तागेली 'परिश्रम कराय' ही कविता म्हळ्यार ताणें आयच्या तरन्यांक म्हूण मारिल्लो उलो. तांणी खुद्द सुधारचेली खूब गरज आसा अशें आपलें मत कवि स्पश्ट रूपान परगटायता. के.के. सुब्रह्मण्यनाले 'जाय जाय मोगरामाली' हे कवितेंत एका सैमभक्त आनी दैवभक्त मनशालें वीक्षण पडबिंबित जाल्लें पळोवंक मेळता.

सूर्या अशोकान कवितेचे मळार पावल दवरून फकत अर्द वर्सच जाल्यां! 'अम्मा' हे तिगेले कवितेंत एके आवसूलें आनी तिचे मायेमोगाचें चित्र रेखाटलां.

अशी केरळ भुंयचेर फुल्लेल्या सुमार सगल्या तराच्या काव्यकुसुमांनी रंगयिल्लें अशें एक काव्योद्यान हें! हांगा कवि-कवितांची वळख दिल्या. ताचे भायर दर कवीचें चित्रय दिलां. म्हळ्यार, एक कविसंमेळनूच हांगा आतां कागताचेर घडयलां! एक काव्यसमन्वय तशीच एक कविसमन्वय हें...

पुण कवितेचें समन्वय मुद्दाम घडोवंचेली गरज आसा? कविता म्हूण आमी म्हण्टायीच तें कितें? साहित्य-संवसारांत ज्यांणी ज्यांणी कविता हाताळ्ळी, तांणी सगल्यांनीय तिची व्याख्या सोदली. पुण श्रेष्ट, जैतवंत म्हूण नांव पाविल्यांक लेगीत त्या विशयांत जैत मेळ्ळेंना. म्हाका दिसता, तांणी पयलीं जीविताचीच व्याख्या सोदूक जाय आशिल्ली. कित्या तर कवितेचो जीविताचो असो संबंद! जे मेरेन जीविताची व्याख्या वाडत वता, वळत वता, ते मेरेन कवितेचीय व्याख्या आमच्या हातापुरती येवपाची ना! दोंगरा तेंगशी धरून, दर्यातळ मेरेन खिणाखिणांनी, पावलो-पावलीं, नव्या संगीतान, नव्या ताळान, नव्या रूपान, कवितेचे-काव्यसरितेचे-शंबर अवतार! पुण ती एकीच! थळाकाळांच्या बांदांनी तिका आडावन दवरप शक्य ना; रूप-आकारांच्या खळियांनी दामोवन दवरप शक्य ना; तरातराच्या नावांनी लिपोवन दवरप शक्य ना. तरी आसतना, आपापल्या शीम्यांचे आंकडे काडीत अभिमान बाळगुपी अशे अजाण लोक आमी, मेळता त्या सगल्याचे वांटे कुटके करूक सोदी! कवितेचे लेगीत! तश्या नेणारपणाचो हो एक वांटो! सीमित-केरळ भुंये पुरतो. सीमित-वीसाव्या शतका पुरतो. सीमित-एके व्यक्तिच्या यत्ना पुरतो-

**शरतचंद्र शेणै**

नारायण नरसिंह पै

# कुचेलोपाख्यान *



कुचेलु म्होळ्ळोलो कोण
आयकाय जन, तागेलें चरित पावन–

ताका भूमीर मोहु ना मू, सायूज्य मेळका म्होणू
रातीय दिस्सूय तपस्व कोरनू बेस्तोलो जाल्लो ब्राह्मोणू.

कुचेलाक भोजन नाका, सुखाची निद्रा नाका
घर नाका दार नाका, पूत नाका एकय नाका

पोटय फाटीय एकि जाल्ली खाड मीशी वाड्डली
हातांतूं बड्डी जाल्ली, तुळसीमाळा गोमटेर घाल्ली.

दोळे भितरि फोंडांतु गेल्ले मांस नातिल्लें देह जाल्लें.
देह सुक्कूनु नामू जाल्लें, हाडा बळ मात्र वरलें.

बायल तागेली पतिव्रता, चेरडुवांक रक्षण करता
घरानीघरा मागूनू हडता, निश्याघोटू सगटांक घालता.

भीक मेळ्यारि निशें पित्ताय, न्ह्य जाल्यारि उपाशी पडताय
बाप्पालागी रोणू सांगताय, हरद्यारि कपलारि मारनु घेत्ताय.

तांकां कोणाक न्हेसूक ना मू, मागाल्यार केदनाय दिवंचो ना मू
निशें पिवंचाक वाट ना मू, तांगेली गती अशी जाली मू.

कुचेलु नित्य तपस्व करता, बायलेक मागूनू पूरो जाता
जन सर्व आंबुडता, सांजेवेळार भात मेळता.



---

* कुचेलोपाख्यान हरिकथेचो आरंभ हांगा दिला

मंजेश्वर गोविन्द पै

# विसरलों !



केदना  मृत्यून जीवाच्या नीढांतूं

निपयलें हें तांतें, तें हांव नेण;

आशेचीं पाकां फुलावनु उबचांतूं

तुका विसरलों, सोदीतां सुखा खाण!

भास मागून ओरडतना हावें, मेजा

हातांतूं कोणि हो खिलखिलो घालो

तें नेण; तुजो विसर पडलो, ताजा

नादांतूं भाषेची मागणी ही भुल्लों!

हालनू हालनू हो खिलखिलो खुल्लो

काळकाचा पावुलानी आयकता राती!

आतां विसर कळता! तुजें घेवन नांव

दित्ता हे हृदयदोळ्यांतूनू उल्लो!

दोळे उघडी गा! मेजेरी धांपनातीं

केदनायीं तुजे दोळे-म्ह्ण! मागातां हांव-



---

TRANSLATION BY POET

I know not when Death hid this egg (myself) in the nest of Life. Unfurling the wings of desire and soaring out in search of the food of happiness, I forgot Thee. I know not who put into my hands this rattle of temptations. I screamed for language to call onThee but in the alluring sound of the rattle I forgot Thee and my prayer for language. Now, my Lord, the rattle has shaken itself into pieces and night, with its footsteps of darkness creeps on. Now I recollect Thee and my heart repeats Thy name, and calls Thee with tears. My Lord, open Thine eyes and but say unto me that Thine eyes will never close upon me-only this I beg of Thee.

आर.सी. शर्मा

# राक माका !



देवा, देवकी सुता, राक माका!

आशा पाशांतूं पोणू- धायते कष्ट भोगून-

धी शांती नष्ट जावनू-रडतां हांव पायीं पोणू-

माका-आनीकय घालूनाका-तांतूं हे वासु-

देवा, देवकी सुता, राक माका!

हांवें सुख सोदीलें-दुःख मू माका मेळ्ळें-

आयुष्य धावनु गेल्लें-जीवित व्यर्थ जालें-

करि-मुकारि-मेजेरि-हरि तूं दया-

देवा, देवकी सुता, राक माका!

लोकू मायेचो सिंधू-ताका ना एकू अंतू-

बुड्डलों हांव तांतूं-दिसता व्होडु आखांतू-

धरि-उद्धारि-तूं सारि-मुरारि भीति-

देवा, देवकी सुता, राक माका!

स्वामी! तूं सर्वय जाण-तुजें तत्व कोण नेण-

तूं नंतां दीनजनरक्षण कोरचो कोण?

माका-सोणक्का-दीवनाका-दुःख हे वासु-

देवा, देवकी सुता, राक माका!



जी. कमलम्माळ



# रघुरामायण *

चोवधाय लोकांचो देवू कौसल्यकुमारू
चोवधा वर्षांचे वनवासाक भायर सरलो
रामचंद्रान सीता लक्ष्मण समेत
कौसल्या सुमित्राकय नमस्कारू केल्लो.

सर्वय गुण संपूर्ण जावनु अशिल्ले
पुताक आलिंगन केल्लें कौसल्येन.
पुता लागीं सांगीलें सुमित्रादेवीन
"हे बाला लक्ष्मणा तूं आयक हें वचन!

श्रीरामचंद्रु तुका त्या जनकालेवरि
माता तुका जनकराजेन्द्रकुमारि
तान्नीं इच्छलें वन अयोध्यानगरि
अयशे चिंतेन पुता, वनयात्रा करि!"

अयशें वचन सांगूनू सुमित्रादेवीन
पुतांक वोग्गी येवनु केल्लें आलिंगन
गुरुचरणांबुजय, अरुन्धती देवीकय
वन्दन कोरनू रामदेवु भायर सरलो-



* रधुरामायण महाकाव्याच्या पांचव्या अध्यायाचो आरंभ हांगा दिला.

एन.वी. प्रभू



# उजो, वारें, उदाक

उजो वारें उदाक, हेंचि नित्य मनिषाक
नातिल्लें जाता कोणाक ?
पावंता न्हय वे मरणाक
ताळो तिमूक उदाक, बुडून मोरुक उदाक
जीवांक सर्वांक जाय तें नित्य
नाका वे मनिषाक रांदूक ?
उदाक ना-सुकता सर्वय
उदाक चडल्यार मरता सर्वय.

आसा वारें, सुख जीवन
तें ना जाल्यार जीवित कष्ट
पेलु, नळी, वारें भरल्यारी
चेरडाक जाता खेळा वस्तु
सान वारें-रुक चवरां
वारें होड-भूमीचि पेलु !
वार्यान लोकु मुकारि वता
तें ना जाल्यार सर्वांक स्तंभन.

जाय उजो नित्य जनांक
रांदूक, होमाक, लोहां शुद्धीक
श्रद्धेन सेवन केल्यार, सर्वांक
अपार आनन्दु दिता तो नित्य
सेवा चुकल्यारि कष्ट तो करता
सर्वांक नाशूय तोचि तो हाडता.

उजो उदाक स्पर्धा परस्पर
जावंका दोगंय मित्र परस्पर
उजोय वारेंय मित्र परस्पर
तीचि मैत्री वाडल्यार लोकाक
जाता मू भारि नाशु चोयाय !



आर. गोपाल प्रभु



# भीम-हनुमंत संवादु*

मांकडान म्होळ्ळोलो परिहासु आयकूनू
भीमान गर्वान सांगीलें गरजूनू
उठा रे मांकडा वच रे दूरा!
कार्याक विघ्न करता वे चोरा
इत्याक उलयता मार्गारी पोणू
सत्याक नाका वे तुगेलो प्राणू?
धिकारू उलयता अल्पप्राणी
परिहासु करूक आसा वे त्राणी?

देवाक मन्नान ध्यानय करनू
अन्यांक चांगपण जावंचाक चोवनू
पळ्ळेले माका आश्वासु मेळका
युक्तीन गदेन दूरा रे काडका
उपकारु करचे ते कर्मान तुका
कोटि यज्ञाचें फलय मेळका
मांकडालो उपदेशु आयकूनु गेल्यारि
मानान तुका गावांतु पावयात!

आयकूनू भीमान गदाय काडली
बाह्लाचे पोंदाक बळान घाल्ली
धिंगळूक हाह्लूक जायनाय जाह्लें
भीमालें बळ सर्वय गेह्लें.



* ''कल्याण सौगंधिक'', ओट्टन तुळ्ळल काव्यांत थाकून-

पी.एस. रामचंद्र शेणै



# पुष्पांजली

नाम रूप गुण भाव मन भरुनी
काम क्रोध लोभ मद मात्सर्य सोणु
कमल तुजे पायांकडे भक्ति भोरूनु
निर्मळ दळ अर्पण करतां होड भक्तीन-

मोगरें कमळ जाय जूय चांपें पत्माक्ष
मोगान तुजे पादुकांरी अर्पण करतां
मार्गु चांगु दाकोवंचाक दया करि
मागल्यान मुकार चोवनातीन समच वचाक-

मिजे मनांतु तुजें रूप केदनाय भरी
तुजेविना माका कोणाक दाकोवंचें नाका
मुज्जन्माची वासना मिजी वाड्डोवनु हाडी
सज्जनालागी संसर्गु कोरूक वाट दाकय-

दाकय देवा चांगि वाट मुकारि वचाक
माका तुजें पावन रूप केदनाय चोवंचाक
दिकू सगट तूं भोरतु विक्कोरनु आस्स
सारकें तुजें इत्ति मोण दयेन दाकय-

विसोरनातीन नित्य तुजी सेवा कोरूक
पिसूण मिजे हृदयांतु तुका भोरूक
सास्सा लेक्कान फूल तुका नित्य दिवंचाक
हास्सूनु तूं स्वीकारु करि मिजी पुष्पांजली!



वत्सला मंजुनाथ राव



## प्रायश्चित

'हाका इत्तें प्रायश्र्चित ?' - म्हणालो
मेगेलो दोस्त, भटालागी-
"वचून आवसूचे पाय धरी,
बायलेलीं उतरां आयकूनू तिका कशी
चोरी म्हळें ? वच, पाय धरी !"
"तुजी बायल तिका पोटाक घालना
तानेन भुकेन्न ती अर्द जीव जाली
इत्तें करका, तिका कळ्ळेंना
ती एदेंच दूद काणु पिल्ली !"
"चेरडुवांक दवरलेलें दूद-" तुजी बायल म्हणाली !
पिश्या ! तूं विसरलो वे अम्माक ?
आपण्यालें पोट मारनू ती तुका दूद पिवयताली !
ते अम्माक तूवें चोरी म्हळें !
आनी आतां प्ररन करता-प्रायश्र्चित इत्तें ?
भुंयचेरि आसचे देव-अम्मा, बाप्पा,
आनी गुरुवर्य-हें एद्दोळ कळना किं ?
अम्माक आपोवन निमगी,
इत्तें प्रायश्चित करका ?
अम्मा भायर आसा, तिजे पायांरी
साष्टांग पोळ्ळो वीर पुत्र
आनी म्हणालो, अम्मा मारि मेजे बोडारि !
स्नेहमयी अम्मान पुत्ताक धरलो पोटोनू
गळ्यावेली भांगरा माळा काळ्ळी
ताजे गळ्यारि घालनु दिल्ली वोग्गी !
प्रायश्चित हावें केल्लें मेजे मोगा पुता-



पी.जी. कामत



## लगन

हां, कला...अशिल्ली प्रायमरींत
आतां ती ना.
विद्या... ती हायस्कूळांतल्यान धावन गेली
खंय आसा कोण जाणा ?
कालेजांत...कविता.
आतां ती घुवन चोयना.
कादंबरी येन येन म्हण्टा
येवन येवन येना.
वाट पळोवन राबलां
चोवरास्त्यार धूळ धुवर खावन.
तावळ...चोय, चोय, चोय,
नटून थटून
घामा वास चोवशीं वितरावन
येता नवलिका !
ओ द कोळोन-
नाक फुलता माजें
दोळो चुकलो तरी मिस जावुंची
नशीबान मेळ्ळी मिस नवलिका !
नवलिका...लवलिका...लवलि...का ?
आनी कसो कळाव ?
नवरी ती, नवरो हांव
नवरो नवरी रडी !
पुरयत कुरयत कांय नाका.
पूरा-पूरा सेक्युलर आमी-
खंयिरे हीरो-होंडा ?
मुकार कोण ? फाटीं कोण ?
मांड्येर कोण ? कांट्येर कोण ?
सांग, सांग, आयकुंया-



एन. पुरुषोत्तम मल्या



## मंजेश्वर गोविन्द पै

तत्वज्ञानी कवि पंडितु
नाटककारु बहुभाषज्ञु
गणित शास्त्रज्ञु ज्योतिषु
गद्यकारु आनी देशभक्तु
मंजेश्वर गोविन्द पै तो
कर्णाटकाक आनी साहित्याक तिजे
दिलेलें अंशदान अद्वितीय आसा.

बुद्धिसामर्थ्य कवितारचनेचें तागेलें
तेन्ना आसले मद्रास सरकारान लेकांतु काडलें
दिलें कवीक एक विशिष्ट स्थान
मद्रास सरकारालें राष्ट्रकवि स्थान
एकसासु णौशिं एक ऊणी पन्नासा वर्षा.

कोंकणी मातृभाषा गोविन्द पैली
उपेक्षा दाकयली ना उद्धारणाक तिजे
केले अनुवाद कोंकणींत ताणें
थोडे वाक्य गीतांतुले ताणें
दिलें अंशदान तिजे साहित्य संवर्धनांतु ताणें
केलें गवेषण कोंकणी विषयीं ताणें.



'गोविन्द पै शतकं' ह्या पुस्तकांतल्यान–श्लोक ८८ ते ९०.

के. श्रीधर शेणै



## पिश्शें

पिश्शाचो येता, दूर सराय-
पिश्शाच्याक वाट सोडाय-
ताणें सांगीलें...
म्हाका पिश्शें ना, तुका पिश्शें, न्हय, तुमकां पिश्शें!
पिश्शें नातील्लो कोण?
हासता केन्नाय तो-हासचें पिश्शें ताका
देवळांत केन्नाय ती - देवा पिश्शें तिका
तुका केन्नाय अनवाळें-अनवाळ्या पिश्शें तुका
केन्नाय हांव मुंगो बसता-म्हाका कस्सलें पिश्शें?
एकलोच बसचें पिश्शें!
चड जावचें सगटय पिश्शें-जड जावचेंय पिश्शें
एकेकल्यांक पिश्शें एकेक आसा
कसलें तरी पिश्शें नातील्लो कोण आसा?
देव....
ना, देवाकय आसा पिश्शें
आमचे तरकी पिश्शटांक
सृष्टी करचें, संहार करचें
रक्षण करचें पोषण करचें
आनी सोडचें पिश्शें
सर्वय पिश्शें, सगटांक पिश्शें
पिश्शाक मात्र पिश्शें ना
ताका कोण दूर करना-
पिश्शा फाटीं सपाट वतात
पिश्शाटांक मात्र दूर करतात-



भक्ता. आर. कांजगाड



## सैतान मरनी!

सैतान मरनी!
आजीय
अक्षदंडार घुवंचे भूमी ओटू
घुवंता आसा तो...
भूमीर पसरता ताजी सावळी
जीवजालांचेर पडता ताजी दृष्टी
मनशांले उपबोधांत
एक प्रलोभन जावन बसला तो!
फुलझाडार कांटोशी-
चंद्रबिंबावेलें कळंकशी-
कुमार्गींगेले वाटेर, फुडारींगेले कुर्सेर
अधिकारीवर्गांले जिबेर
प्रेमींगेले कामांत
सर्वत्र
तो आपलें सिंहासन घटी करून बसला...
मानवसंस्कृतीचे परिवर्तनांत
देवाज्ञे विरुद्ध
ताजे जाणीवांत हाडयनाशीं, हस्तक्षेप करून
स्वर्गार थाकून भष्ट जालोलो तो
नरका सृष्टी करीत आसा!
कलियुयाचो प्रतिनिधि!
हांगा, हे भूमीर, प्रतिकारशी,
देवकार्यांत विघ्न हाडयता
बाधा घालूंक यत्न करता
मानवराशीक पथभ्रष्ट करूंक वावुरता
सैतान आजीय जीवंत आसा!
ताका मरण ना!
ताजो प्रभाव चडत आसा
तो मुखार वताच आसा....



वी. शेट बलराज



## हासता कि हासयता

एक कडे देवा, श्रीमंत राबला
दुसरेकडे देवा, दरिद्रु राबला-

अग्नि आनी तोय राती दिवस
चांग आनी वायट तुगेले चमत्कार
वेषविधान आमगेलें ज्ञान अज्ञान
मनोबुद्धि अहंकार तूंचि देवा-

राति ती सरतरि दिवसु हासता
हासूनूच येता दुसरीय राति
ब्राह्मणु हासता म्हाराक चोवनू
हासता संपन्न दरिद्राक चोवनू-

तरुण हासता वयोवृद्धाक चोवनू
हासता नवें परन्याक चोवनू
गोकुल बलराज म्हणता
हासता कीं तू हासयता देवा ?



के.के. सुब्रह्मण्यन



# जाय जाय मोगरा माली

देवाले फूल चांग फूल

कोणाक जाय मोगरा फूल ?

पोरमोळु येता हांगाय

थांगाय मोगरा फुलाचो.

म्होव पिवुचाक भोंवर येता

आज मोगरा फुलारी.

पोट भोरणु म्होव पीवनु

फुलाक सोडून गेलो तो.

चोवनु चोवनु दीसु गलो

राति जाली संत संत.

मोगरा फूल रडून रडून

खाला पळ्ळें दुखान.

आगो बाये मोगारा फूले,

चां गुथून माली कोरनु

देवाक अर्पण करूक

जाय जाय मोगरा माली.



के. अनंत भट



# कर्माचें फल

कर्माचें फल फाटि घेता

मेज मेजून भोगका पडता.

धर्मु तो अधर्मु करचो मानवु

पश्चातापान रडता.

धर्मान अर्थु अर्थान काम

कामान मोक्षाची वाट.

कर्म पापमय करचे मानवा

जीवन तुगेलें वायट!

आजि न्हयवे फायि मानवु

केलेलें कर्म खाता.

मेजमेजून कर्माफल खाताना

मानवु एकाकी जाता.

बेजारु कसलो कर्माफल तें

माक्षीं-मुकारि खेळता.

ह्या जन्माचे कर्माचें फल

ह्याचि जन्मांतु मेळता !



यू.एस. नारायण कामत



# कालवर्ष

मोंचूवां देवलीं मुकवंचांलीं
फाल्यार न्हंयतूं झळक्याक!
कालवर्षा वेळु तावळी
वारें, झोडू मारता!
पाळां मारताय न्हंयतूं व्होळ्ळीं
पावस पडता घोर!
चेरडूवां रडताथ खोंपियेंत पोणू
दिवंचाक ना मू खावंचाक-
व्होड ना मू मोड, झोडू
पोटाची भूकच व्होडी-
न्हंयतूं गेलेले बापसून येवंचाक
राकताय चेरडुबाळ!
राक तूवंय तांकां, देवा
प्रार्थना करताय बायलो!
पश्चिमारि सूर्य देवंता
काळूक जावंचाक वता-
मोड वोचून वोत येता
तीरा वाटेरि मोचूवां सोळ्ळीं
पाळांचेरि दिसता!
मनांत संतोष जाता-



एन.एन. आनन्दन





# कोंकणी विजयम

भयणीं खातीर काम केली

भास आमची कोंकणी;

तरेक तरान साहित्य भरली

भास आमची कोंकणी;

साभार उत्रान कोश भरली

भास आमची कोंकणी;

मनोरंजन करूक पावली

भास आमची कोंकणी;

मानक म्हणून मान्य जाली

भास आमची कोंकणी;

विश्वास म्हजो होच आसा

विश्व भरतली कोंकणी;

विश्व साहित्याचे मळार

विशिष्टि भास ती कोंकणी;

विश्व संमेळना वतीन

विश्वाक जिखली कोंकणी;

विश्व-भास असो परमळ

विश्वाक लायतली कोंकणी.



आर. एस. भास्कर



## ती हासली

वैशाखाचा पुनवेक
अकस्मात ती हासली
सोबीत सेंवते फुल्लेले भासेन
ती हासली.
पयर–
सळसळीत आयली वैशाखी पुनव
काळखेचा रानांत
काजोळेचो उजवाड पसरावन ती आयली
दोंगराचा तेंगसेर
चन्द्रीम फुल्लो
तिर्जी सपनां
कोटयानी फुल्लीं/
दुबळयांची ओपूंक दुखां
काकुळटायेचे व्हांवले व्हाळ
विक्राळ संसारांत
तीणें शांतीगीता गायली.
काल–
ती शांतीगीता गायत राबली
परतून परतून आयलो वैशाख
परतून परतून हासली पुनव
तकलेचेर तिजे चरतां हेवाळें
सदा भासेन भिरांत लायता
भुजाचेर बसता मेस्त
हेवटेन तेवटेन कोरांतूंक सोदता
उजवाडाक लावूक पटो
रात जागोताय घुघमा पिलां
ती पुण सोसुन राबली
शांतीगीता गायत राबली.
आज–
वैशाख पुनवेक ती हासली–
ओंठ मात इल्लो फुलोवन
ती हासली–
अप्रूब हास
पुण भिजूड न्ह्य.
घूरीचो साद–
काय शांतीचो नाद ?



के. नारायण नायक



## सत्य सत्यची

चारीय कालान्तु सत्य सत्यची
खंचेय कालान्तु फटी फटीची
दोळे धाम्पूनु फटी मारल्यारी
काळूक पडना अंत्यारी सत्यारी.

## कर्मा फल

नाका जालेलें कोरूक नज
मागीरी आठौनु रोडूक नज
सेण्डूनु तुंटूनु भुंजूक नज
चुरचुरेवुनु मोरूक नज.

## देवु सोणा

हातय बान्धून बेसूनु चोय
चेरव्यांतु कुय्यां सिजतलीं कांय ?
मनान काडचे ओडियांक कांय
देवु सोणु घालना चोय !

## कीर्तीक आर्ति

कीर्तीक म्हूण वड्डून गपगप आर्ति
विसरता निज प्रप्तिस्थिति
धन्य तेज सरस्वति मूर्ति
दित्ता वेषधारीक अवनति.

## प्रारब्ध

मनीश केवल मशीनवे ?
दोग जाण एक-लेक वे ?
कारण हाजें कळना वे ?
प्रारब्धामोट भिन्न न वें !



विलासिनी एन. नायक



## जीब न्हय, जीवन उलयता !

नित्य जाता सुर्यालो शुभोदयु
सर्वांक दिता  हुनसाणी उजवाडु
भुंयचेरि सर्व ताजो भव्य प्रभावु
पुण करना कांय तो वीरवादु.

नक्षत्रं येताय काळकांतू दिवटि धोरनु
चन्द्रु भोवंता चन्द चान्दीणे घेवनु
अंधकारांतु तीं वांटीताय आनन्दु
जल्यारि ना मू तांकां चिमाटि अहंकारु.

दीसु राति घटी प्रयत्न कोरनु
फुल्लेताय फुल्लं सरश्यो भोरनु
दितांय अन्यांक आनन्दु, म्होवु, पोरमोळु
करनाय मू कांय तीं गर्व गोन्दोळु.

सद्गुरु, संत, सज्जन, समाजसुधारक
सूर्य, चन्द्र, नक्षत्र, फुल्लां समान
स्वांत सुखाक आनी बहुजनहिताक
पूर्ण जीवनची तीं करताय अर्पण.

चांगपण दिताय तीं सदा वांटूनु
कांय अपेक्षा कोरनातिल्लें पोरतूनु
धन्य जीवनची तांचें दिता आदेशु
जिबेन न्हय, जीवनान जावंका आदर्शु !

सग्रि दिनेश नायक



# सुख - दुःख

राति दीसु कशि येता
सुख दुःख येता वता.
चन्द्रु सूर्या कशि  दिसता
सुखांतू कष्ट-दुखि भोगून वता
दुःखांतू शांति-समाधान मेळता
हें कोणाक कळता ?
सुख; दुःख-मिश्रित
दुःख; सुख-मिश्रित
कशि दूद-उदाक मिश्रित
सुख दुःख जीवना आश्रित-
तशी जन्मु-मरण शाश्वत
सुख-दुःख, नीद-जागरण पूरित-
कोणेंय जायनाय हांतूं वंचित
हें सग जीवनान संचित-
ताग-तागेले बुद्धि-गुणान आर्जित
भोगताय सुख दुःख रूप गुणान उचित-
हे जीवनांचीं रूपां दोनी
एक-आनि एकाची पार्श्व-फाटि-
सुखा भागू मुकारि
दुःखा भागु फाटीरि-
आनी एकु भागु मात्र- हाजो मरणारि-



पी.एन. शिवानंद शेणै



# बायल

तुका दिकिल्ले पर्यंत तं
माका मिगेली वाट सोणु मेळ्ळेली.
तुगेले गोवंटेरि तालि मांदिल्ले पर्यंत तं
मिगेले जन्माक मोल मेळ्ळेलें.
तुगेले दावे पावलाचे पोन्दाक थाकून तं
चांगपणाचें घर स्वंतारि जालेलें.
तुगेले वदनारि फुल्लूचे हासांथाकून तं
हांवें मिगेले वसंताक वेंचून काळ्ळेलें.
तुगेले स्वार्थारि थाकून तं
हांव मिगेले पावसांत तिम्मोल्लों.
तुगेले मोगाचे रागारि थाकून तं
हांव वोताचे हुनसाणीरि पळ्ळोलों.
दिकिल्लें सग सत्यारि केल्लेलि तं तूं
तुजान तं हांव मिगेले
बाल्य-कौमारांचें व्यर्थपण जाण जालोलों.
यौवनाचें सणपणय माका दिल्लेली तं तूं
जाल्यारीय मिगेलो दोळो कित्या
भरूनूच आस्स
तुगेलें तोंड कित्या
तांबडेंच आस्स
पोणु वता आमगेले जन्म
ना जाता आमगेलें सौख्य
मात्र न्ह्य
आमगेले जन्माचे जोडभूतकाल तं.
पोणु मेळ्ळेले फातर सरी
पेल्यां घालूक पाणा-जीवित.
राकून दवरलेलें देवबिंब सरी
पुजूकय अशिल्लें न्हय-जीवित.
यें जीवित
जिवंत राबूक अशिल्लें तं
मिटसाणीन कातरलेले स्वप्नाकडे
लावनु दुःखूक सुकूनु काडका जालेलें
तं-घायु पळ्ळेलें जीवित.

यें-नाटक खेळूक अशिल्लें
यें-जेवण जेवंचाक अशिल्लें
अशी-आळतापेळतांतु मनांकरूक जाय.
तूं मिगेलें जन्म साफल्य जा
हांव तुगेलेंय-
तूं मिगेलें वाटय दारवोटोय कूडय जा
हांव तुगेलेंय-
तूं माका राक
हांव तुकाय-
आमकां
आमगेलें
जीवित
सुखान दुःखान
गोडसाणीन कोडवाणीन
आम्बसाणीन मिटसाणीन
तशी तशी
सरचे पर्यंत
चेले,
तूं मिगेली बायल जा-



सुमित्रन



## पांजीरें

म्हाळु म्हन्नमी जाली
कार्तिक मासु लागलो
घराचे देरलांत
लांबयलें एक पांजीरें.

पित्रांक उजवाडु दाकोवंचाक
पोणतेंत तेलावाति जळोवनु
उजवाडायलें वर्णांचें पांजीरें-
वरलेले आमकां ना उजवाडु.

मेल्लेले पित्रांक पुणी मेळो उजवाडु
उश्शीणे घेतल्ले तेलान
उजवाडायलें रीणांचें पांजीरें
लांबयलें उंचारि उंचारि!





## इश्टा -

बेसन हांव चोवन चोवन
धांवत्या खेळत्या भुरग्यांनी सजल्लें
शाळेचें हें विशाल मैदान-
तुजेच वेंगेंत आसो तें तुजें
लाख नखेत्रांचें आसमान.

लख्ख ज्योतीचो हांसो सूर्याचो
तेज ओतो तुज्याच मनांत-
अनवळख्या पोरांलो मनमेकळो हांसो
सदांच फांकता उजवाड म्हज्यांत.

गळिल्या फुलांचीं शोकगाणीं
गुंथो तुजी सुंदर लिखणी-
म्हांतार्यांची मोनी व्यथा तोपून
काळीज म्हजें मू जखमी.

विरगळत्या इंद्रधणवा खातीर
तिमय गा तूं तुजे पोले-
फाटीक थापल्लीं पोटां पळयत
आटलीं म्ह्जीं दूकां; तापले दोळे.

देशभक्तिगीतां गायत, दोहरायत
फुलो तुजें स्वाभिमानी हरदें-
गोबोर जाल्लीं घरां पळयत
काबार जाल्ले जीव पळयत
दिसता मरूक मदेंच मदें.



पी.एस. प्रदीप



## उपाधि

देवा माका काम जाय
देवा माका दामु जाय
देवा माक स्थायु जाय
स्थायारि एक घर जाय
घरांतु एकि चंद बायल जाय
आमकां मालगडो पूतु जाय
पुताक खेळूक एकि धूव जाय
देवा तूं तांकां पोळोवन हाडि
देवा माका एक जावंय जाय
पुताक सर जालेली सून जाय-मागीरि
माका नातूरां जाय-
मागिल्लें दिवंचो देवु
मागूनातिल्लेंय दिवंचो देवु
वाड्डोवनु हाडता देवु
वाड्डोवनातिल्लें व्होरचोय देवु
देवा तुका धन्यवादु-

देवुः "भक्ता, भक्तांखातीरि माका
एकु गोपुर जाय!"

गोपुर सगळो हांव कोरोवनु दितां,
लिखित करशिवे चंद रूपान
शिलेरि मिगेलें नांव?



के.एन. रमेश भट



# वत्तना व्हरतायि कस्सलें, सांगा?

हांव, माका, मिगेलें
 हाजे शिवाय अस्स जगांतु कस्सलें?
इतरांक कसल्याक? तांकां कित्याक दीवंका?
 अस्सिल्लें पूरायि माकाचि जावंका!
मिगेलें घर, मिगेलें धन
 घट्टि वाड्डेयता तो आपण्यालें भाण
हाजे ज्वरारि घालता तो मूल्य समूल घाण
 नश्वर त भौतिक म्हणु कोण जाण?
अड्चूनु धरता तो दामाचि पट्टळि
 येतवे ती अंत्यारि प्राण्याक सावळि?
मृत्यूलो गळपासु अस्स माक्षीचि
 केल्लेले कर्मांचि दव्वरता तो सूचि.
मनुष्य जन्मु मेळचोचि होडु एकु योगु
 जीवन, जनन-मरणाचे मध्येचो भागु
कोर्या आमकां जीवनाचो सदुपयोगु
 दुर्बळ भावंडांखातीरि कोर्या सर्वयि त्यागु.
योचि सनातन-धर्म संदेशु
 लोभ सोडचांतू कित्याक आमकां संदेहु?
दिकूया आमकां एकमेळींतु आनन्दु
 सार्थक कोर्या जन्मु साधुजन सेवनांतु.
वेद-शास्त्र पुराणांतूय अस्स यीचि शिक्षा
 माक्षि-सोरूक नज कोर्चांतु सत्पात्र भिक्षा
मानव सेवे खातीरि धोर्या आमकां दीक्षा
 अनाथ-निराश्रयांक प्रदान कोर्या सुरक्षा.
चारि दिवसांचे अतिथी आमी हांगा
 सर्वस्व एक दिवसा सोडका जाता थांगा
संचित भौतिक सर्वयि वृथा जत्ता मू गा
 वत्तना व्हरतायि वे कांयि, तुम्मी सांगा?



वी. सुरेष शेणै



# भिकारी

हासून येतोलो फाल्यारी
न्हेसून कावीचे वस्त्रारी
राबतोलो घरांचे मुकारी
म्हणतोलो भजन तो भिकारी-

    चन्दनाचो तीळो निडळारी
    कुंकुमेचो वर्णु आंगारी
    चन्द्रमाची प्रभा तोंडारी
    रुद्राक्षाची माळा गळ्यारी-

हरिनाम कीर्तन म्हणतरी
भक्तीन भस्म तें दित्तरी
मोहालस्यान बायलो पडतरी
चोराय करता तो भिकारी-

    स्वबोधु बायलांक येत्तरी
    चारीय दिकान तान्नी चोयतरी
    दिकूक ना आयलोलो भिकारी
    भांगार ना तांगेले आंगारी-

कपटवेषाचो तो भिकारी
तुमगेले घरकडे आयल्यारी
चिंता सोणु विश्वासु पावल्यारी
यीचि गति तुमकांय मुकारी!



आर.के. प्रकाश



## केदाणा?

माका हावंच विसरतां केदाणा?
चां मंदहास ते चेरडालो दिकतना!
भूमीरि स्वर्गु तो मेळतोलो केदाणा?
हांव हे भूमीचो पोरमोळु घेत्तना!
दोळ्यांक थंडाय मेळतली केदाणा?
तोळ्यांत सर्वत्र कम्मळ फुलतना!
धन्य जाताय आमी सगट केदाणा?
द्रव्यारि मोहूच ना म्हूण कळतना!
आवसूले दोळे भरताय केदाणा?
चेरडालें चांगपण सगट सांगतना!
आमकां तो मोक्षु मेळतोलो केदाणा?
मोगान भासेचि सेवा करतना!
सर्वांक जन्माचें साफल्य केदाणा?
जन्मदेशा खातीर जीव सरि दित्तना!
मेजे मनांत देव मेळतोलो केदाणा?
हांव माकाच सोदून काडतना!
उन्नत स्थानय मेळतलें केदाणा?
खाल्लाचे लोकांचें सेवन करतना!
रामराज्य आमकां मेळतलें केदाणा?
राष्ट्रीय गाढवां ना म्हूण जात्तना!
जातिमतभेद ना जाता केदाणा?
जनांक सर्वांक विवेक मेळतना!
महंत महंत जातले केदाणा?
मनांत शांति सगटांकय मेळतना!
कालि आजि जाल्यार फालें केदाणा?
काळूक वचून उजवाड येत्तना!



काञ्चना बोस



# चेरडालें मन्न

आदित्यु पूर्वारि उदेवनु येता
आदित्य किरण धरतीरी पडता
फूल फुलेता परिमळु येता
पक्षी किळबिळेवनु उबूनु भोवंताय-
निदेल्लें चेरडूं तें उटावनु येता
उज्वल तोंड तें निरजूळ जाता
आवसु बापूसु सोणु वत्ताय
आयाले हातांतू सोंपूनु वत्ताय-
भरलेंलें घर शून्य जाता
निरजूळ मन्न तें रोडूक लागता
मन्नांतू संशयु उदेवनु येता
आवसुक मिजेरी कोपु कीं स्नेहू ?
यें नज, तें नज, नज अशी तशी
यें करशी, तें करशी, वशी अशी तशी
यें काडशी, तें काडशी, म्हणता अशी तशी
ये मिजे लागीं ना कोणाक भक्ति-
मन्नांचो संशयु वाड्डूनु येता
आदित्यु पश्चिमारि येवनु निपता
पक्षी घूडांतू येवनु निद्देताय
उजवाडु वोचूनु काळूकु येता-
निरजूळ तोंड तें उज्वल जाता
आवसु बापूसु परतूनु येताय
हात भोरनु खेळूक, खावंचाक हाडताय
मोगान चेरडाक लागीं आपयताय-
यें खा रे, तें पी रे, यें घे रे, धरी
येंवंय तेंवंय काणु तोणांतू दित्ताय
यो खेळु तो खेळु काणु  खेळयताय
मोगुकोरनु चेरडाक आनन्दु दिताय-
मन्नाचो संशय दूर तो वत्ता
स्नेहु नंतना मिजेरि आवसूक ना मू
आनन्दु जाता, मन्न फुल्लेता
आवसूचे स्नेहंतू मग्न जावनु पडता-



बी. प्रदीपकुमार भक्ता



## चुनावण

आयलें आयलें चुनावण
गावंचे सर्वांकय आमंत्रण
आयकूका स्परधींगेलें भाषण
भरणपक्ष सांगता आपण्याले कालाक बरेपण
प्रतिपक्ष करता तांगेलें निंदारोपण
आयकूकाचि पडता हांगेलें परस्पर दूषण
करताचि दोनीय पक्षार्ची बलाबल प्रकटन
जाता मारामारी, दोनी तीनी मरण!
जनसामान्यांक हातांतू प्राण!
आखेरी जाल्यारी चुनावण
जय जालोलो करता दलही प्रयाण
मागीरी-
जनसामान्याक निमगितोलो कोण ?

## कोडू बद्द

गांधीले देशांतू गेल्ली मोटीलालाली नाती
जावनू हिंसाचारू नित्य जीवना नीती-
सम्मवे आमी चलची ही रीती ?
म्हेणु प्रयोजन इत्तें- "शांती शांती"?
जाल्यारी इत्तें विज्ञान प्रगती ?
जाल्ली वे दूरा मनुष्याक भीती ?
गोतू ना वें "स्कायलाब" पोडूंक जत्ताना स्थिती ?
विसरलीं वे भोपाल जनांगेली गती?
सांगताती सर्वय आमी मानवजाती
माक्षिनाती दवरूंक एकल्याकेकल्याक वाती!
आलोचना करया किते कारणान अवनती
आचरणे हाड्या नागरिक संस्कृती
अभिवृद्धी करतोलो वेंकटाचलपती-



गोश्रीपुरं हरिकुमार



## परिश्रम कराय

युवक आंतचो कशि आस ?
ना ताका कसले विचार
ना ताका कसले विकार
दिकून ना ताका विकास!
रस्त्यार राबून स्नेह एदोच केलो
कुयों खावंचाक घरकडे आयलो
वोडूनू पीवनू लहरींतू भोवलो
गेलोलो दीसु तो सुखान गेलो-
सुख यें कितले काळा?
आलोचन तूं कररि बाळा
साकाणीं, देनपारां, सांजेवेळा
भोरूक पोट एकवेळा-
शिकल्यारीच ना आतां वाट
बहु प्रयासु भोरूक तें पोट
मूल्य ऊणे जाल्यारीय मेळना नोट
घेवनु भोवल्यारीय डिग्रीचे काट-
बापसूलें काम तें मेळना आतां पुता
शेंतू पन्नास बाकीचांक रे वता
मागीरचे पन्नास मेळूकवे सांगता
कठिन परिश्रम कोरनु तं जावंका-
आयकात आतांचे युवकाले कष्ट
यूनियन, पोलिटीक्स म्हणतातीं बेस्ट
ना तांकां जीविताचें लक्ष्य स्पश्ट
असी करतात युवक समय नष्ट-



एम.जी. राजीव



# नायन्टीटूवांतुलो लॅवर

''तुगेले केसाचें स्टायल
चांग्‌च दिसना-''
तीणें सांगलें.
हांवे मिगेलो केस हिपी मॉडल केलो.
''तुगेले दोळ्याचे मणियेक
काळबाणीच दिसना-''
तीणें सांगलें.
हांवें एक कूळिंग ग्ळास दोळ्याक लायलें.
''जुमजुमीच खाड नातिल्याचेरि
माका मोगूच ना-''
तीणें सांगलें.
हांवें काळेंच खाड वाडुयलें.
''तुगेले मुकावेले दोनि दांत दिकल्यारि
माका भीति वाडुता-''
तीणें सांगलें.
तिगेले मुकरि हांवें मिजें तोंड धांपलें.
हांवें केस हिपी मॉडल केला-
खाड वाडुयल्यां-
कूळिंग ग्ळास दवरल्यां-
तिगेले मुकारि मिजें तोंड धांपल्यां-
''माका आतां तूं चांग दिसता''
तीणें सांगलें-
''मिगेलो नायन्टीटूवांतुलो लॅवर जावंचाक
तूं आतां प्राप्त जाला!''



कलाकान्त



# वृक्ष आनी मनीष

सस्यवृक्ष ते मनुष्याले मित्र
तागेले जीवितांतुले आजन्म बान्धव.
    गिम्मारि शेळि सावळि घालचे
    उज्या वोतांतु शेळ वारें दिवंचे
    प्राणवायु पर्यंत सोणु दिवंचे
    परोपकाराचो सन्मार्गु दाकोवंचे-
सस्यलतादीय मनुष्या मोगु करचीं
माळूक पुजूक खूब फूल दिवंचीं
यज्ञाक यागाक पाल्ले शिखर जावंचीं
मोगान आपण्याकय स्वय समर्पुचीं-
    तुळसि नातीलें आंगण कसलें ?
    पिंपळु नातीलें नागर कशि जावंचें ?
    भुयेन किरलावंचें तें बीं कोणाक ?
    वृक्षान फुलावंचे फूल आनी फळ कोणाक ?
दीवो तो दाकयता वोडु उजवाडु
रूकु तो दाकयता त्यागाचो मार्गु
मरत्यान पोळोवंका तो पवित्र मार्गु
आनीक आपणावंका आपण्याले जीवितांतु-



बी. नवीनकुमार भक्ता



## बायलेलें पत्र

कशि आसातीं तुमी हांव हेकडे येतरी
माका तुमची येच्चना वतना भायर भितरी-

आयक चोवंचे आशेनी धावनु आयली बद्ध
पुण तुमकां सोणु राबूक मन ना सिद्ध-

थंड उदाक पीवनाकातीं खांकी शुरू जातलें
होटलांतुलें खावनाकातीं पोट वायट जातलें-

नोणचें कोरनु दवरलेलें शिता भरशी खायातीं
कपट्टांतू आसचें ओक्कद विसोरनातीलें घेयातीं-

न्हावन जातरी उडगासान देवाक दीवो जोळोवंका
चुकयनातीलें हफ्त्याक एक पत्र बोरोवंका-

माका तुमी नातील्लें खाण जेवणांतू इच्छा ना
मन तुमकां आठयता, खेलेंलें ताळ्यांतू वच्चना -

तुमका सोणु एक घडी राबूक मिजान साध्य ना
प्रिया, बेगीन परत येता माका तुमची योच्चना-



सूर्या अशोक



## अम्मा

मोगाची अम्मा. दूकि भोगूनु-
जन्म दीवनु, दूद पीवोवनु,
पायारि घालनु, खांदारि घालनु,
गींत म्होणु, नीद खोळनु,
माका वाडोवनु काळ्ळी अम्मान-
सौख्य ना तारि ओखद दीवनु.
क़ाणि सांगूनु, निदावनु घालनु,
चांग बाह्लाव मनांतु करोवनु,
कूटांत खेळनु मोग दाकोवनु,
माका होळ्ळिळ केली अम्मान-
दुःख येत्तरि संतोषु हाडूनु,
सूख ना तरि सांत्वन दीवनु,
चांगि वाट दाकोवनु दीवनु,
चमकयलि माका हाताक धोरनु,
पायारि राबूक शिकयलि अम्मान-
मिगेले सुखांतु संतोष पावनु,
मिगेले दुःखांतु भागु घेवनु,
मिगेली चूकि क्षमा पावनु,
अनुग्रह दीवनु आशीर्वाद दीवनु,
माका वाडोवनु हाळ्ळिळ अम्मान-
आम्मा घरांतु काम करतना,
हांव बेसूनु बूक वाचितना,
सहाय कोरनातीलें खेळनु बेसतना,
भांवडां ओटू उलोवनु बेसतना,
क्षमा पावली मोगाची अम्मा-
अम्माले कष्ट माका कळ्ळेनाय
आतां हांवंय अम्मा जाल्यां
आतां मू माका समजल्यां
देवाली कृपाय अम्माली मायाय
वर्णना कोरूक उत्तरं पावनाय-

❑

## नारायण नरसिंह पै ( 1879-1959 )

मायगांव अंचिकमळ. सानप्राय धरून संगीतांत आनी कथकळींत तान. नेमान कथकळी सादर करतालो. मलयाळम आनी कोंकणी भाशांनी खूब हरिकथा बरोवन अवतरण केल्यो. 'कुचेलोपाख्यान', 'चेल्लयाचरित', 'द्रौपती वस्त्रहरण' अशी हरिकथेचीं सुमार पुस्तकां उजवाडायलीं. कोची राया हातान भोवमान.

## मंजेश्वर गोविन्द पै ( 1883-1963 )

मायगांव मंजेश्वर. कन्नड भाशेचो महाकवि. बहुभाशा पंडित, संशोधक आनी गद्यकार. पंच्यात्तर वर्सां फाटीं तांणी रचिल्ली कोंकणी कविता आज लेगीत नवी ताजी आसा-तसलो तांचे लिखणीचो चमत्कार. कोंकणीन कांय मेजकेच भाशांतर आनी निबन्द रचल्यात. मद्रास सरकारा कडेच्यान 'राष्ट्रकवी 'पदाचो भोवमान.

## आर. सी. शर्मा ( 1898-1980 )

मायगांव पळ्ळिप्पुरम. गांव गांवच्या भजन मंडल्यानी मागिल्ले प्रमाण ते ते वेळार रचिल्यो भक्तिकृती 'भाषागानमंजरी' म्हूण पुस्तकरूपान प्रकाशन केल्यो. त्योय, 'अश्रुबिन्दु' ही विलाप कविताय विख्यात. मलयाळम भाशेंतूय बरीच साहित्य सेवा. AISCO च्या देशीय संमेळनांत ( 1974 ) 'सारस्वत रत्न' म्हूण भोवमान.

## जी. कमलम्माळ ( 1902-1983 )

जन्म तिरुवल्ला. वसती अम्बलपळे. सानप्राय धरून साहित्याची ओड. 'रघुरामायण' महाकाव्याची कवयित्री. 'सुशीलन' 'पात्रचरितम' अशी अन्य प्रकाशित पुस्तकां. भारतीय कोंकणी परिशद संमेळनांत ( 1978 ) भोवमान.

## एन.वी. प्रभु ( 1909-1992 )

मायगांव वैकम. 'स्तोत्रवृन्दम', 'त्रिकाल संध्यावन्दन' अशी प्रकाशित पुस्तकां. कविता, निबंद, विनोद, इत्यादी नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात.

## आर. गोपाल प्रभु ( 1910 )

मायगांव कोडुंगल्लूर. पंचवीस वर्सांवयर कोंकणी सरस्पतीची सेवा. ओट्टन तुळ्ळल शैलीन 'कल्याण सौगांधिक' हें कोंकणी काव्य रचलां. कविता आनी कथा नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात.

नामो-Kalapura Kovilakam, Sringapuram, Kodungallur-680 664.

## पी.एस. रामचंद्र शेणै ( 1917 )

मायगांव पोळ्ळूर. खूब कविता नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात. साहित्य सर्तींनी इनामां मेळ्ळ्यांत. 'पुष्पांजली 'नांवान कवितासंग्रहाचें हात बरप तयार आसा.

नामो–Srinivas, Waterland Road, Cochin-682 006

## वत्सला मंजुनाथ राव ( 1925–1996 )

जन्म मद्रास. कोषिकोड शारांत वसती. 'कोंकणी पद्यसंग्रह' (1980) 'फुलां माळा' (1986) 'काव्य धारा' (1989) अशी प्रकाशित काव्य संग्रह. कविता आनी कथा नेमाळ्यांनी संग्रहांनी उजवाडा आयल्यात. इंग्लीश आनी हिन्दीनय साहित्य सेवा. साहित्य सेवेखातीर पुरस्कार भोवमान.

## पी.जी. कामत ( 1926 )

मायगांव तोरवूर. केरळ कोंकणी अकादमीचे अध्यक्ष. शिक्षणतज्ञ आनी बहुभाशा पंडित. 'लिपि–एक शास्त्रीय चिंतन' (निबन्द) 'एक अवतारिका भगवद्गीतेक' (भाशांतर) 'श्रद्धांजली' (संपादीत) 'श्रवोण' (व्याख्या) अशी प्रकाशित पुस्तकां. संग्रहांनी, नेमाळ्यांनी, कविता आनी भाशांतर उजवाडा आयल्यात.

नामो–Dayanandam, Cherumukku, Trissur-680 020.

## एन. पुरुषोत्तम मल्या ( 1929 )

मायगांव कोची. कोंकणी भाशा प्रचार सभेचे संस्थापक कार्यदर्शी. नामनेचे चळवळिकार. 'गोविन्द पै शतकम', 'कलकत्ता नगरी वर्णना', 'सरस्वति बायि शतकम', 'डो. सुनीतिकुमार चाटरजी शतकम' (कविता), 'कोंकणी लोकगीत' (संपादीत) 'कोंकणी लोकगीत–समुच्चय' (संपादीत) 'ज्ञानप्पाना' (भाशांतर) अशी प्रकाशित पुस्तकां.

नामो–6/2061, Palace Road, Cochin-682 002.

## के. श्रीधर शेणै ( 1936 )

जन्म कुरपळे. कविता आनी निबंद नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात. साहित्य सर्तींनी इनामां जोडल्यांत.

नामो–10/135, Amaravathy, Cochin-682 001.

## भक्ता आर. काञंगाड ( 1938 )

मायगांव काञंगाड. बी.के. रामचंद्र भक्ता म्हूण निजाचें नांव. मलयाळम भाशेन मनोरंजक पुस्तकां रचल्यांत. कोंकणी कथा आनी कविता नेमाळ्यांनी, संग्रहांनी उजवाडा आयल्यात.

नामो–Kavyanjali, 1/402, Padinhattom Kozhuval, Nileswar-671 314.

## वी. शेट बलराज ( 1938–1996 )

मायगांव कोची. खूब गीत, कविता बरोवन खुद्द संगीत दिवन गायल्यांत. मलयाळम म्ह्यनाळें 'चित्रसागर' उजवाडायल्लें. नाटकां बरयल्यांत. 'म्हांतारी आज्जी' ( 1980 ) हो कवितांझेलो उजवाडायला. कथा आनी कविता नेमाळ्यांनी, संग्रहांनी उजवाडा आयल्यात.

## के.के. सुब्रह्मण्यन ( 1939 )

मायगांव चेराय. कोंकणी साहित्य समाजाचे संस्थापक कार्यदर्शी. 'श्रवोण' (लोकगीत) 'गिंतां समाहार' (संपादीत) अशी प्रकाशित पुस्तकां. कविता आनी कथा नेमाळ्यांनी, संग्रहांनी उजवाडा आयल्यात.

नामो–Kallarakkal House, Cherai-683 514.

## के. अनंत भट ( 1939 )

मायगांव कोची. 'तुळसीदास', 'सुरभजनमाला' (भाशांतर) 'संगीत रूपकां', 'कोंकणी गीतमाला', 'हरुवें पान आनी पिकलें पान' ( कविता) अशी प्रकाशित पुस्तकां. गीतांचीं सुमार कॅसटी जाल्यात. आकाशवाणी केंद्रांनी खूब गीतांची प्रस्तुती जाल्या. साहित्यसेवे खातीर पुरस्कार भोवमान.

नामो–4/1253, M.B. Lane, Cochin-682 002.

## यू.एस. नारायण कामत ( 1940 )

मायगांव आलपळे. कविता आनी कथा, नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात.

नामो–Dhanya, 2/506, Shenoy's Colony, Karaparambu, Kozhikode-673 010.

## एन.एन. आनन्दन ( 1945 )

जन्म चेराय. 'आनन्दाचीं पदां' ( 1985 ) 'दोळ्यांतलें किशीर' 'राहुल सांकृत्यायन', 'सुनितिकुमार चटर्जी' (भाशांतर) अशी प्रकाशित पुस्तकां. कविता, भाशांतर आनी निबंद नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात.

नामो–32/515, Sanatanapuram, Alapuzha-688 003.

## आर. एस. भास्कर ( 1947 )

मायगांव कोची. अक्षरां (1992) नक्षत्रां (1995) अक्षतां (1997) अशी प्रकाशित काव्यसंग्रह. नेमाळ्यांनी, संग्रहांनी कविता उजवाडा आयल्यात. आकाशवाणीन प्रस्तुत केल्यात. साहित्यसेवे खातीर पुरस्कार भोवमान.

नामो-Ram Mandir, 10/526, J.D. South, Amaravathy, Cochin-682 001.

## के. नारायण नायक ( 1948 )

मायगांव कोची. पंचवीस वर्सांवयर साहित्यसेवा. कथा, कविता, निबंद, हे सगलेच प्रकार हाताळ्ळ्यात. नेमाळ्यांनी, संग्रहांनी ते उजवाडा आयल्यात. साहित्य सर्तींनी इनामां जोडल्यांत.

नामो-8/1122, T.D. South Gate, Dr. R.V. Padiar's Compound, Cochin-682 002.

## विलासिनी एन. नायक ( 1950 )

जन्म कोल्लांव. नेमाळ्यांनी, संग्रहांनी, कविता उजवाडा आयल्यात. कविता सर्तींनी इनामां जोडल्यांत.

नामो-8/1122, T.D. South Gate, Dr. R.V. Padiar's Compound, Cochin-682 002.

## सग्रि दिनेश नायक ( 1951 )

मायगांव कोची. सानप्राय धरून कवितेचो छंद. पंचवीस वर्सांवयर साहित्यसेवा. खूब कविता नेमाळ्यांनी, संग्रहांनी उजवाडा आयल्यात. साहित्य सर्तींनी इनामां जोडल्यांत.

नामो-D-10, Sugar Colony, Menonpara, Palghat-678556.

## पी.एन. शिवानन्द शेणै ( 1951 )

मायगांव कोट्टयम. 'किरकिर' (1984) 'चांगपणाची सांत' (1994) असी प्रकाशित कविता संग्रह. कथा आनी कविता, नेमाळ्यांनी संग्रहांनी उजवाडा आयल्यात. सहित्य सर्तींनी इनामां जोडल्यांत.

नामो-Pullat Kurinhikattil, Kumaranelloor, Kottayam-686 016.

## सुमित्रन ( 1952-1996 )

मायगांव कोची. वी. वेंकटेश म्हूण निजाचें नांव. कथा आनी कविता, नेमाळ्यांनी, संग्रहांनी उजवाडा आयल्यात. साहित्य सर्तींनी इनामां जोडल्यांत. मलयाळम भाशेनय साहित्यसेवा. कोंकणी नाटकांनीय वांटो धेतला.

## शरतचंद्र शेणै ( 1953 )

मायगांव अंचिकमळ. देवकीकृष्ण ट्रस्टाचो भाशांतर पुरस्कार मेळ्ळेलें 'मीरा-जीवन आनी कवन', कविता संग्रह 'अंतरनाद' (1997) 'साहित्य संकलन', 'काव्योद्यान' (संपादीत) अशी प्रकाशित पुस्तकां. केरळांतल्या कोंकणी साहित्याचो अभ्यास करून देशीय परिचर्चांनी प्रपत्रां सादर केल्यांत.

नामो-Gokul, 18/535 A, Cochin-682 006.

## पी.एस. प्रदीप ( 1955 )

मायगांव कोट्टयम. नाटक, कथा, कविता अशी वेगवेगळे प्रकार हाताळता. कथेक इनाम मेळ्ळां. नाटकां खूब पावट खेळ्ळ्यांत. नेमाळ्यांनी कथा कविता उजवाडा आयल्यात.

नामो-Pradeep Mandir, Thazhathangady, Kottayam-686 005.

## के.एन. रमेश भट ( 1956 )

मायगांव कोची. कथा, कविता, नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात. साहित्यसर्तीनी इनामां जोडल्यांत. 'कोंकण जनता' नेमाळ्याचे संपादक समितीचो वांगडी अशिल्लो.

नामो-8/223, Keraleswar Street, Cochin-682 002.

## वी. सुरेष शेणै ( 1957 )

मायगांव कोची. कोंकणी नाटकांनी प्रवर्तन केलां. नेमाळ्यांनी कविता उजवाडा आयल्यात. कविता सर्तीनी इनामां जोडल्यांत. कोंकणी नेमाळ्याची मॅनेजरी सांबाळ्ळ्या.

नामो-4/1198 A, Gosri Street, Cochin-682 002.

## आर. के. प्रकाश ( 1958 )

मायगांव कोची. सानप्राय धरून साहित्याची ओड. वेगवेगळे साहित्य प्रकार हाताळता. साहित्यसर्तीनी इनामां जोडल्यांत. नेमाळ्यांनी संग्रहांनी, कथा आनी कविता उजवाडा आयल्यात.

नामो-19/774 A, Anjiliparampu, P.D. Road, Cochin-682 006.

## काञ्चना बोस ( 1960 )

मायगांव कोची. कथा आनी कविता, नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात. कविता सर्तीनी इनामां जोडल्यांत.

नामो-Prasanth, 17/128 A, Tripunithura-682 301.

## बी. प्रदीप कुमार भक्ता ( 1961 )

मायगांव काञंगाड, सानप्राय धरून कवितेचो छंद. कविता सर्तींनी इनामां जोडल्यांत. नेमाळ्यांनी कविता उजवाडा आयल्यात.

नामो-Kesavakripa, 553/A, Cheluvamba Agrahara, K.R. Mohalla, Mysore-570 024.

## गोश्रीपुरम हरिकुमार ( 1964 )

मायगांव कोची. एस. चित्तरंजन नायक म्हूण निजाचें नांव. नेमाळ्यांनी, सग्रहांनी कविता उजवाडा आयल्यात. कथिकेचोय प्रकार हाताळ्ळा.

नामो-Gosri Chaitanya, 4/1369, Cochin-682 002.

## एम.जी. राजीव ( 1966 )

मायगांव कोडुंगल्लूर. कोंकणी आनी मलयाळम भाशांनी वेगवेगळे साहित्य प्रकार हाताळता. नेमाळ्यांनी कथा आनी कविता उजवाडा आयल्यात. कविता संग्रहांचें हातबरप तयार आसा.

नामो-Alapurath Mekkathil, S.V. Ward, Kayamkulam-690 502.

## कलाकांत ( 1966 )

मायगांव कोची. पी. कृष्णकुमार म्हूण निजाचें नांव. नेमाळ्यांनी आनी संग्रहांनी, कविता उजवाडा आयल्यात. 'युवप्रतिभा'हातबरपा नेमाळ्याचो सहसंपादक म्हूण वावर.

नामो-Type II/20, CIFT Residential Quarters, Thevara, Cochin-682 015.

## बी. नवीनकुमार भक्ता ( 1966 )

मायगांव काञंगाड. सानप्राय धरून कवितेची ओड. नेमाळ्यांनी कविता उजवाडा आयल्यात. कविता सर्तींनी इनामां जोडल्यांत. कन्नड भाशेंतल्या साहित्याकय बरींच इनामां मेळ्ळ्यांत. कविता संग्रहाचें हातबरप तयार आसा.

नामो-PGT Biology, Jawahar Navodaya Vidyalaya, Hondarabalu-571 117.

## सूर्या अशोक ( 1969 )

जन्म तृपूणित्तुरा. बालगीतांचो छंद. गीतसंग्रहाचें हातबरप (किरणां) तयार आसा. कथा आनी प्रवासवर्णना नेमाळ्यांनी उजवाडा आयल्यात. साहित्य सर्तींत प्रवासवर्णनेक इनाम.

नामो-19/36 A, Waterland Road, Cochin-682 006.

# केरळांतलीं काव्यपुस्तकां

- कोंकणी लोकगीत (1976) एन. पुरुषोत्तम मल्या हांणी संपादन केल्लीं केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां.
- तुळसीदास (1976) के. अनंत भट हांणी केल्लो रामचरित मानसांतल्या कांय पदांचो अणकार; आर.के. राव हांणी दिल्लें तुळसीदास चरित सयत.
- कोंकणी पद्यसंग्रह (1979) वत्सला मंजुनाथ राव हांच्यो कविता. बी.वी. बाळिगा हांगेली प्रस्तावना.
- सूरभजन माला (1979) के. अनंत भट हांणी केल्लो संत सूरदास हांच्या इकरा भक्तिपदांचो अणकार आनी व्याख्या.
- कवितांजली (1980) पी.आर. नायक, के. अनंत भट, के. नारायण नायक आनी पय्यनूर रमेश पै हांच्यो कविता. बंटवाळ माधव बाळिगा हांगेली प्रस्तावना.
- म्हांतारी आज्जी (1980) वी. शेट बलराज हांच्यो कविता. स्वर्णलता जी. पै हांगेली प्रस्तावना.
- कल्याण सौगंधिक (1981) आर. गोपाल प्रभु हांणी रचिल्लें ओट्टन तुळ्ळल शैलीचें काव्य. इंद्रकांत शेणै हांगेली प्रस्तावना.
- रघुरामायण (1981) जी. कमलम्माळ हांणी रचिल्लें महाकाव्य. उत्तर रामायण सयत सात खंड. पय्यनूर रमेश पै हांगेली प्रस्तावना.
- ज्ञानप्पाना (1982) एन. पुरुषोत्तम मल्या हांणी केल्लो मलयाळम भक्ति काव्याचो अणकार.
- फुलां माळा (1983) वत्सला मंजुनाथ राव हांच्यो कविता. पय्यनूर रमेश पै हांगेली प्रस्तावना.
- गोविन्द पै शतकम (1984) एन. पुरुषोत्तम मल्या हांची शतश्लोकी; इंगलीश अणकार सयत.

---

* फकत नागरि लिपींतल्या उपलब्ध पुस्तकांचो हांगा आस्पाव केला.

- किरकिर (1984) पी.एन. शिवानंद शेणै हांच्यो कविता. एन.एन. आनन्दन हांगेली प्रस्तावना.
- आनन्दाचीं पदां (1985) एन. एन. आनन्दन हांच्यो कविता. पी.जी. कामत हांगेली प्रस्तावना.
- संगीत रूपकां (1985) के. अनंत भट हांच्यो कांय संगीतिका. बी.वी. बाळिगा हांगेली प्रस्तावना.
- कविता-८३-८४-८५ (1986) प्रातिनिधीक कविता संग्रह. बी.एस. आशा हांगेलें आस्वादन.
- कलकत्ता नगरी वर्णना (1986) एन. पुरुषोत्तम मल्या हांणी रचिल्ली दीर्घकविता.
- श्रीकृष्ण कर्णामृत (1987) शरतचंद्र शेणै हांणी केल्लो श्रीकृष्ण कर्णामृतांतल्या कांय पदांचो अणकार. पी.बी. जनार्दन हांणी दिल्लो श्लोकार्थ, व्याख्या आनी इंगलीश अणकार.
- कोंकणी गीतमाला (1987) के. अनंत भट हांच्यो कविता. एन. पुरुषोत्तम मल्या हांगेली प्रस्तावना.
- मीरा-जीवन आनी कवन (1987) शरतचंद्र शेणै हांणी केल्लो मीरा पदांचो अणकार. बी.एस. आशा हांगेली प्रस्तावना.
- वेंकटेशकल्याण (1988) आर. के. राव हांणी संपादन केल्लें पोरनें खंड काव्य; गद्यरूपान कथा सयत.
- काव्यधारा (1989) वत्सला मंजुनाथ राव हांच्यो कविता. पी.जी. कामत हांगेली प्रस्तावना.
- गोड्डे रामायण (1989) आर.के. राव हांणी संपादन केल्लें लोक काव्य. स् खंडांनी आनी 486 श्लोकांनी केल्लें रामकथा गायन.
- कवनां-झोल्लो (1992) प्रातिनिधीक कविता संग्रह. के. पुरुषोत्तम पै हांगेली प्रस्तावना.
- फुलां आनी कोळे (1992) प्रतिनिधीक कविता संग्रह. आर. के. राव हांगेली प्रस्तावना.

- अक्षरां (1992) आर. एस. भास्कर हांच्यो कविता. पुंडलीक नायक हांगेली प्रस्तावना.
- सरस्वति बायि शतकम (1994) एन. पुरुषोत्तम मल्या हांची शतश्लोकी; इंगलीश अणकार सयत.
- चांगपणाची सांत (1994) पी. एन. शिवानन्द शेणै हांच्यो कविता. शरतचंद्र शेणै हांणी दिल्ली वळख.
- साहित्य संकलन (1995) प्रातिनिधीक साहित्य-शरतचंद्र शेणै हांणी केल्लें संकलन.
- केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां (1995) आर. के. राव हांणी केल्लें संकलन. पी.जी. कामत हांगेली प्रस्तावना.
- नक्षत्रां (1995) आर. एस. भास्कर हांच्यो कविता. मनोहर राय सरदेसाय हांगेली प्रस्तावना.
- श्रवोण (1996) लोकगीत आनी ताका पी.जी. कामत हांणी इंगलीशीन दिल्ली व्याख्या.
- डोक्टर सुनीतिकुमार चाटरजी शतकम (1996) एन. पुरुषोत्तम मल्या हांची शतश्लोकी; इंगलीश अणकार सयत. ए. राम प्रभु हांगेली प्रस्तावना.
- हरुवें पान आनी पिकलें पान (1997) के. अनंत भट हांच्यो कविता.
- अक्षतां (1997) आर.एस. भास्कर हांच्यो कविता. शरतचंद्र शेणै हांगेली प्रस्तावना.
- अंतरनाद (1997) शरतचंद्र शेणै हांच्यो कविता. गोकुलदास प्रभु हांगेली प्रस्तावना.
- साहित्य पंचक (1998) प्रातनिधीक साहित्य. सुरेश. ए. शेणै हांणी केल्लें संकलन.
- कोंकणी लोकगीत समुच्चय-केरळ (1998) एन. पुरुषोत्तम मल्या हांणी केल्लें संकलन.

# शरतचंद्र शेणैलीं इतर पुस्तकां




**मीरा-जीवन आनी कवन** (1987) हया पुस्तकांत 60 मीरा पदांचो अणकार आसा. सोळाव्या शतकाचे ते संतिणीची जीवन कथाय दिल्या. प्रस्तावना डो. बी.एस. आशाली. 1991 वर्सा हाका देवकी कृष्ण ट्रस्टाचो पुरस्कार मेळ्ळो. (68 पानां. धा रुपया.)

**साहित्य संकलन** (1995) हें संपादन केलां लेखक मंडला खातीर. इखरा समकालिक साहित्यिकांल्यो कथा, कविता, निबंद आदी साहित्य मेळोवन तयार केल्लो हो संग्रह केरळ कोंकणी अकादमीन उजवाडायला. (110 पानां. चाळीस रुपया.)






**अंतरनाद** (1997) ह्या काव्यसंग्रहांत पांच खंडांनी जावन पन्नासांवयर सान व्हड कवितांचो आस्पाव केला. 'वाचप्याचें अंतरंग धवळून काडपाची शक्त आशिल्लो शक्तिशाली संग्रह' म्हूण श्री. पुंडलीक नायकान परामर्शिल्या ह्या संग्रहाक श्री. गोकुलदास प्रभूली अभ्यासपूर्ण प्रस्तावना आसा. (90 पानां. पन्नास रुपया.)

केरळ भुंयचेर फुलिल्या सगल्या तराच्या

काव्य कुसुमांनी रंगयिल्लें-अशें हें काव्योद्यान!

केरळाच्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्या

चार पिळग्यांनी फुलयिल्या कोंकणी काव्याच्या

सुवासान भरिल्लें-अशें हें काव्योद्यान!

तरन्या आनी पोरन्या लिखण्यांचें कसब,

छंदबद्ध आनी छंदमुक्त रचनावैभव,

विशय वैविध्य आनी वीक्षण वैविध्य,

भाव तीव्रताय आनी विचारक्षमताय,

असल्यांनी सजल्लें-अशें हें काव्योद्यान!